HELP PRESERVE THE CULTURE
HERITAGE
VISIT

# THE MUSEUM OF GOA

* This is a multi-purpose Museum and intends to depict the culture of Goa.
* The Museum has at present the Galleries of Ancient History and Archaeology, Art and Craft, Geology, Anthropology and the Western Art.
* The total objects in possession of the Museum are more than five thousand.
* The Museum has an Audio-Visual unit and film shows of historical and archaeological importance are arranged.
* The new Museum Complex which will also have an open air Cannon Gallery, is coming up along Rua de Ourem creek.
* The Museum Complex will include now galleries of Agriculture Forestry and Natural History in addition to the existing galleries.
* Being your Museum you can take an active part in enriching it by donating, keeping as loan or selling your valuable collection of antiquities and art objects

STATE MUSEUM OF GOA,
1st Floor, Ashirvad Building,
st. Inez, Panaji-Goa.
Phone No. : 6006

*Issued by :*

**The Directorate of Archives, Archaeology and Museum,**

Rua de Ourem, Panaji-Goa. 403001.

वर्स : आठ अंक : पांच

शरद अंक/दिवाळी विशेशांक सप्टेंबर/आक्टोबर १९९०




कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक

संपादक : पुंडलीक नारायण नायक

मुखपृष्ठ : श्रीधर कामत बांबोळकार

छापपी आनी उजवाडावपी : नारायण वादोळकार
कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. ७८, मडगांव ( गोंय ) ४०३ ६०१

छापणावळ : हिरू नारायण नायक, अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय गोंय

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक
वळवय, सावय-वेरें, फोंडें ( गोंय ) ४०३ ४०१

अंकाचें मोल : २ रुपया वर्सूकी पटी : ( विशेशांकासयत ) १२ रुपया

## मांडावळ

## नागेश करमली

### तृप्त, तुश्ट . . .

काळखे राती
एकलोच म्हजो आयकून उलो
जो कोण जागो जालो
तोय,
अजाप म्हळचार –
अनवळखी आसून लेगीत
म्हज्याच अंतस्कर्णांतली
भास उलोवपी आसलो !

तो आर्त,
ताका लागून हांवय आर्त –
उतरां परसूय तो
तांचो अंतरनादच अदीक समजलो !
सानशीच खरी पुण,
ताचे कुडींतली उजवाडाची जोत
ब्रह्मांडाकय परजळावपी . . .
– ताणे म्हाका येवकार दिलो.
आनी विशेष म्हळचार,
आपणाल्या काळजाचे शेजेरच
ताणे म्हाका विसव दिलो !
आतां –
तो तृप्त, देखून हांवय तृप्त, तुश्ट . . .

असलो हो अप्रुपाचो
मनसंमेळ पळयलो
आनी तेन्नाच्यान
ह्या संवसारावयलो
म्हजो मोग आनी भावार्थ
म्हज्या सर्वांगाक उमेवपी
एक संथ ल्हारेवपी दर्योच जालो !

– ह्या दर्यांत आतां हांव पेंवता,
तोय पेंवता
दर्यो दयेन भरिल्लो,
दर्यो मायेन म्होंवाळिल्लो !

१.

जल्म दिवपी जीण फुलोवपी
पृथ्वी मनीस कुळयेची
ईश्वराच्या पुण्य राबीत्यान
हिची सासाय सासणाची

दिव्य फुडारा घडून बुन्याद
लागला रूजूंक नवो अितिहास
विश्वशान्तीचों फुलां पर्मळून
पृथ्वी जातली बाग जिणेची

२.

फूल आत्म्याचें भक्तीन फुलून
मन - ब्रम्हांड पर्मळ्ळा
काळजा - हारशार सर्वेश्वराचें
बिंब पवित्र पर्जळ्ळा

प्राणाप्राणांत विचार सात्वीक
मनीसजीण धादोसतली
सर्ग घडपाक धर्तरेचा
कल्प नवो आरंभला

३.

काळखा मातयेंत सानुलो रोंपो
ल्हवू ल्हवू रूजतलो
अज्ञानाचें चेंपण शेंवडून
उज्वाडाक पोसतलो

भरून नद्रेंत आंवाठ ब्रम्हांडा
घडटलो केंद्रबिंदू
अनंनाशिल्लो अनंतकाळ
ताची ॠचा गायतलो

४.

जीणभर काळोख अुपशितल्या
अुपेक्षीत मनशांनो
जीण तुमची काळखाचेंच
तेल काडपी घाणो

तुमचो उद्धार करपाखातीर
पेट्टली गिन्याना जोत
तीच सामर्थ्यान उबो करतली
बागवल्लो शापीत कणो

## शंकर रामाणी

### स्वगत

" हरशीं
हांव तुमकां वळखतां . . .
पूण नांव विसरलों. "

" म्हजें नांव :
आनंद पांडुरंग रामाणी. "

" अशें !
मागीर कविता करता तो रामाणी
कोण तुमचो ?"

" तो ऽ ?
प - य - सु - ल्या - न
म्हजो भाव लागता. "

" खंय रावता ?"

" प - य - स.
एका अटंग्या रानांत.

एकटोच.
देंवचार कसो !"

" म्हाका एक सांगात
तुमी वाचलां
ताणे आजमेरेन किदें बरयला तें ?"

" ना सायबा !
खरें सांगू तुमकां ?
तागेंल्यो कविता
मातीगोबोर जें किदें आसा
तें आमकां घरांतल्या कोणाकच
कांयच समजना.
आमगेलीं सगळीं, काचीबुचीं लेगीत ;
ताका पिसो-मालूक म्हटात . . .
तो जातनाच तसो जाला म्हूण
एकलो. एकसुरो रानांत वचून रावला . . .
आतां तो
आनी ताचें नशीब !
कळळें न्हय तुमकां ?'

"कळळें. कळळें.
बरें. येतां हांव.
आदेऊश् ई मुयतु ओब्रिगादु."

## रमेश घ. लाड

### पतंग

गुलाबी एक पतंग सोबीत
फावत्या वाऱ्यार उडलो
पळोवन उंचाय हातासलेली
गर्वा – नशेन बुडलो
फुल्लो आनी फुरफुल्लो
बगले कुपार गुरगुल्लो

"ऊठ गो कृपा
सर कुशीन
मेकळी कर
वाट बेगीन
पर्वा ना तर
सांग म्हाका
वयतां वयर
तोपून तुका"

अनमनलें ना कूप निगूत
भितरां भितर फुतफुतलें
'असले हे पचकटे
कितले तरी पळयले
सोदपी जांवक बांगर पाडे
मिर्गी बेबे पारखिले.'

इतलें म्हणून कूप मागीर
प्रकटपणान उलयलें
"वच गा सायबा
पतंगा
मुजरत वयर
वच गा.
न्हय गा हांव
निबर शिळा
पावला म्हज्यो
नाना कळा
भेदलें तुवें
उबें तरी
भंग ना ह्या
दुर्बळा"
आयकून भास कुपाची
उडली शीर पतंगाची
आंवडो गिळून मोखली ताणे
भास भोव दर्पाची
"दाखयन तुका
भेदून हांव
फाटीर तुज्या
नाचन हांव"

सोंपत्या उतराक लायलो रेंट
हालचे फुडें पातकटी
दुसऱ्या खिणा सोंपलो नेट
पोरा आदार गेलो तुटून
हासलें कूप पोट फुटून
निराधार बाबडो पतंग
वाऱ्या नेटार गेलो उडून
झेलपटत, भिरभिरत
करणेचेर चुरचुरत.
आटलेली फुरफुरी
थंडल्ली गुर गुरी
गेल्ली उंचाय देंव - देंवत.
रुखा, रुखान देखलें हांसत
माड एकूच रावलो तेळत
देंवपी पतंग गळ - गळत
पडटल्यांक दिवचो आदार
माडा धर्म परोपकार
जिखलो माडन कळवळत
उल्लो पतंग हुमकळत

अंतरांत तळमळ्ळो
उतर अडून घुटमळ्ळो
नदरेंतूच भल्लें सगळें
रावना जावन माडान म्हळें
'शांत राव शांत राव
थतर वितर नाका जांव
चुकना कोण संवसारांत ?
चुकेंतल्यान घेतले बुद
तूं ना तर तुजे पूत
कूप तुका हांसलें जरी
दुश्ट न्हय तें इल्लें तरी
दितलें तुका मुक्तताय
सांसणांचो चिर सासाय
तो मेरेन लोंबूंक जाय
कर्मभोग भोगूंक जाय
कर्मभोग भोगूंक जाय !

# दोन कविता

परेश नरेंद्र कामत

१.

**वाट**

१. वाटो
माड्डिल्ल्यो... मस्तिल्ल्यो . . .
सगळें जाणां
पुण कांयच नेणां.

२. पावलां वाटो मस्तिता
वाट पावलांक सासपिता.

३. वाटांनीं लागीं येवचें
आनी पैस पैस वचचें.

४. वाट मोडणां
घेतनां व्हियेता –
पावलां गोंदळटा... सोंशेता . . .
वाट वता
थंय पावलां पावता.

५. वाटो उलयतात :
दोळे ओले करतात;
आनी पैस
गूढ जायत हुंडकेतात . . .

६. वाट : पावलांक खुणायता
आनीं दोळ्यांचीं सोपणा देंवत
कुटुऱ्यो करता.
वाट मेळटा.
वाट मेळटा . . .

७. वाट काडटा शीण :
येतल्या वतल्याची सांगातीण.

८. अेकसुऱ्या वाटेर पावल पट्टा :
पावलांक नवी वाट फुट्टा.

२.

## कुरवांची वाट

मळबाच्या तिराक
दर्याची गांठ;
तुंबली वाट
तारवाची

पलतडचीं तारवां
गोठेल्या बंदरां
दिकांचीं दारां
पुरवलीं

कुरवांचो म्हाका
लागना थाव;
दर्यांत हांव
जळपेतां

कितल्यो सोदल्यो
मेकळचो सुवाती;
दोळ्यांच्यो वाती
झेमेल्यो

मेळत काय म्हाका
दर्याची वाट;
कुरवांची नाठ
झळकनां.

## सु. म. तडकोड

### छंद

धुकाळमार्गार कितलेशेच फातर
चोंयवशीन तिनीसांजेचो भार
मनांत जाग्रूत
सनातन अिश्वर . . .

भयकम्प . . .
भुताच्यो सावळयो
दिवेलागणीच्या मन्द्रतेजांत
शिरन्तरांतल्यान गायत्री छंन्द . . .

दोळयांमुखार सचीत्र काळोख
आत्म्याक आपूण परित्यक्त जाल्याची भावना
याद – बाळमूठ धरपी आवय
आनी तिचे वचनबद्ध दोळे . . .

### एक कृश्णकळी

कृश्ण हिण्यां कृश्ण तिण्यां
यमुनेच्या जळी
चन्दनाच्या काळखांतु
एक कृश्णकळी

जोगुलांची फुलां ओलीं
स्पन्दनांची काणी
प्रस्नमार्गार स्खलनांतु
एक कृश्णकळी

१.

## साद

दोळ्या दुकां - रुप्या थिकां
लिपोंव नाकां लिपोंव नाकां
पावलाची गती आतां
वाडोंव नाकां वडोंव नाकां

गालार लाली झिळीमिळी
लजूं नाकां लजूं नाकां
ओठांर कळी, मोगरे कळी
फुलोंव नाकां फुलोंव नाकां

धांप दोळे मलप्यांतुले
काळीज काळजा येवंदी लागीं
आतां मोगा मोनेळीत
उलोंव नाकां उलोंव नाकां

२.

## आमोरी

तारया रे वल्हय तार
म्हजो जीव आशेला
पलतडच्या तडीर रे
म्हजी प्रिया तिश्टल्या
तारया रे....

दिगंत रे आकुळ-पिकूळ
सवणींय घरा पर्थल्यां
धडधड तिज्या काळजाची
काळजान म्हज्या सादल्या
तारया रे...

उचांबळ दर्या ताजीं
उचांबळ ल्हारां
भरते भार काळजातुंय
प्राण दोळयान दाटला
तारया रे...

३.

## उजवाडाच्या पावलानी

उजवाडाच्या पावलानी
सोबय म्हजी वाट गो
तुज्या धिरार ताणटां तारूं
निर्शेलेली जीण गो

म्हळब तुज्या पोशान रितें
जल्मजल्मांतरी नातें
म्हज्याखातीर पेटय आता
दिवो मळबधारेर गो

सूर ताल घुस्पलेले
उत्तरान उतर निर्शेलेले
तुज्या सुलसानच पेटली
आशेचो किट गो

उजवाडाच्या पावलानी
सोबय म्हजी वाट गो

४.

## आयज तुज्या वाढदिसा

आयज तुज्या वाढदिसा
खोशयेच्यो वाती
घरान आमच्या पेटला दिवो
तुजे पावलटीन

रूख - वालींर चंवर जिवो
मळबतळा चंद्रिम नवो
जागय घर कलकलाटान
तुजो अपुर्बाय मोटी
घरान आमच्या पेटला दिवो
तुजे पावलटीन

दिवो तुकां हुलोप आमकां
पुनव तुकां उमांस आमका
तुज्या कर्तुपान दिपूं
संवसार दोळ्यां ज्योती
घरान आमच्या पेटला दिवो
तुजे पावलटीन

५.

## मदनबाधा

रात सुरानी विणली
गीत नकळटां आयलें जुळून

चंद्रिम पुनव न्हेसला
दर्याकय फुटल्या पाखां
चार दोळ्यांच्यो जळटयो वाती
आनी मना थेंब्या - थेंब्यानी गळलीं

दोन सावळ्यो दिखाळ
हून उस्वासां शिंवर
किर्र किज्यांच्या सुरावटीन
रात न्हीद विसल्ली
रात सुरानी विणली
गीत नकळटां आयलें जुळून

# शंभु खेडेकार

## मुख कमळ

मुखार तुज्या किरण देखलें
        तुल्ल फुल्ल धवे
काळजा घुमटेंत मोवें
        मोवें भांगर पसवलें

दडवंक नाका धांपू नाका
        सोबित रूपणें तुजें
सांगच्या आदी सांगून गेलें
        खूब कितें कितें

थाव सोडून भान सोडून
        पाशाण तळप फुटलें
सरांव घेत जळीमळीक
        धांवता शितळ वारें

विरंतळयेत कमळ उबें
        आकार निर्जराचो
शिवर जावन दिखे दिखेक
        गंधा लागलां पिशं.

१.

## फुलपाकुलें

फुलपाकुलें
फुला फुलार अुडटालें
फुलांतुलें म्होंवें –
म्होंव चोखतालें.
फुलपाकुलें
नाचतालें
फुलां वांगडा खेळटालें.
सांज जातकच
फुलाचे वेंगेत
विसव घेतालें
सोबीत पाकुलें
फुलपाकुलें
बाबुल्याक सांगतालें –
धरू नाका म्हाका
पाख म्हजे मोडटलें.

२.

## कावु - मावु

कावु आनी मावु
भिकणा भाजून खावु

भाओी आनी भाअु
सान्ना अुकड तावु

जनी आनी मनी
चरपाक गेल्या वनी

पडोळे आनी घोंसाळे
तांचेर अुडटा पिसोळें

आवाळो आनी कुंवाळो
गर गर घुंवाळो

कावु आनी मावु
ताकां जाय खावु

३.

## खावचें अशें!

पोपाय खावची चिरून
पणस खावचो कापून

केळी खावची सोलून
आमे खाबचे चोखून

भिकणां खावचीं फोडून
अुस खावचो तासून

बियो खावच्यो भाजून
बटाट खाबचो तळून

कणगां खावचीं अुकडून
पेर खावचे चाबून

४.

## शाबुलो

शाबुलो बाबुलो
नागडो पेटारो
कुय कुय रडटालो
कुरकुरीत पापोड खातालो
खुतू खुतू हांसतालो
आनीक पापोड मागतालो
शाबुलो बाबुलो
पापोड खायत नाचतालो

५.

## व्हड जांव

काळचा काळचा कुकुचें
धवें धवें तांतू

काळचा काळचा गायुचें
धवे धवें दुदू

तांतू खाव
दुदू पीव
व्हडलो - व्हडलो
वात्रू ज्यात्र

६.

## गोरो बाबुलो

काळो काळो कावळो
दुदान न्हालो
तरी ताचो काळो रंग
तसोच उल्लो.

खतवल्लो चान्नीमाम
चान्न्यांत न्हालो
तरी ताचो काळो दाग
आंगार उल्लो.

आमचो बाबुलो
तेलु लावन
उदकान न्हालो
कुकुलो बाबुलो
गोरो - गोरो जालो.

## प्रशांती तळपणकार

१.

### एकलेपण

हांगा मनीस . . . थंय मनीस
एक जोमो . . . दोन चोमें
फुल्लया जात्रा . . . भल्ला मेळ
तरीय भरिल्ल्या लोकांमदी
        एकलेपण एकलेंच
एकलेपणाचेर वखद . .   ?
वेल्यांतली वेली तेंगशी चडप
जाणकाराचो घेवन सल्लो
उमेदीन तेंगशी चडलें
        तरीय अेकलेपण अेकलेंच

तेंगशेवेल्या कोमऱ्यांचो लेप
मातयलो आंगभर
खीणभरयां लिपलें एकलेंपण
काळांतरान झडलो लेप
        आनी एकलेपण एकलेंच.

२.

## कवनां

१.

म्हजें तन - मन - धन
म्हजेंच,
तुजें न्हय
पूण
म्हजें तन - मन - धन
तूंच
तुज्याविणें जीणेच न्हय

२.

ल्हारार ल्हारां येवंन गेलीं
यादीर यादी सुकून गेली
जुवानीची जाण्टी जालीं
तरीय मोग ओवळां वरी
सुकलो तरीय परमळीत

३.

नेकेत्रांनी चोमों करून
मळब पेटयलें
मळबांतल्या काळीज व्हांवून
काळीज बुडयलें.

१.

## घाय

रेब्यांत देंवल्लो मनीस
म्हेळो जाल्याबगर कसो उरत ?
तूं दवलो
तांकां वयर काडपाखातीर
एकटोय किडो वयर आयलोना
तूंय लोळत उल्लोना
– तूं सुकोच वयर आयलो
हें एक उमाणें.
आळवाच्या पानावरी तुवें
रेब्या - थेंबो, पांच वर्सां झेलयलो
आनी अचळय
रेब्यांत सोडून दिलो
आयज तुका चिखलाचो
मात लेगीत वास येना
गेंड्याची कात कितली निबर
हें खबर आसून लेगीत
तूं गेंड्याच्या आंगार
धांवून गेलो
आनी कुराडिचो घाय घालो
इतलेंच आमकां पुरो
रेब्यांतल्या गेंड्याच्या फाटिवेली
कुराडिची माव
तुजी गवाय दिता.

२.

**म्हजीं नखेत्रां**

'तुज्या मोगाखातीर हांव
मळबांतलीं नखेत्रां हाडून
तुजे व्हंटयेंत रकोवपी'

अशें हांवें म्हळें तेन्ना
तुवें नखेत्रांचो हट धल्लो
आनी म्हाका नखेत्रां हाडपाक
रातच्या मळबांत धाडलो

पांटलिभर नखेत्रां
हांवें तुजेखातीर पुंजावन हाडलीं
जाल्यार तूं
'चंद्रिमाचें म्होंव' ल्हेंवपाक गेल्लें
म्हजीं नखेत्रां
मळबावयर पडून आसात

## मनुजा जोशी

### म्हज्या कुळारा

कुळारा गे म्हज्या बाये
सगळयां परस वेगळें
तोखणाय सांगूक लागत
जाल्यार, तोण वळूंक लागतलें.

बापुय म्हजो देवळांतलो
नागेशूच कसो
मेळत केन्ना जाय तशे
आशिर्वाद दितलो.

आवय म्हजी माये मुर्त
मायाच करूक जाणा
ह्या परस संवसारांतलें
कांयच तिका कळना

इश्टीणींची गरज म्हाका
केन्नाच लागलीना
भयणी आमी चारूय जाणां
कुसकेपणांन वागलीना

आंगवणीचो भाव एकलो
माये मोगाचो
चारांय फाटल्यान जाल्लो
म्हणून अपुरबायेचो

माया आपली तोणांन केन्ना
उलोवन दाखंवचो ना
गरज पडल्यार सगळेंच दिवक
फाटी सरचोना

पाखां लावन तांचे म्हऱ्यान
वचचें कशें दिसता
आईच्या हातचे जेवण
आज जेंवचें कशें दिसता

## ज्योती जोशी

### मंथन

दर्याचें मंथन करून
शक्य ना अमृत काडप
पूण विचाराचें मंथन करून
मनाचें तरी जातलें घडप

अमृत पियेवन म्हाका
मरण चुकोवपाचें ना
पूण जीणेच्या एकाय मोडार
मन मारपाचें ना

समाजांतलें हलाहल
पयोवपाची तांक ना
पूण ह्या हलाहलान
म्हाका मरपाचें ना

## नवीं पुस्तकां

**सोशाचे कान** **चा. फ्रा. दि कॉश्ता**

नामनेचे कोंकणी कवी चा. फ्रा. दिकॉश्ता हांगेलो हो कविता संग्रह कन्नड लिपयेंत उजवाडा आयला. १९८८ वर्सा 'सोशाचे कान', हो संग्रह गोंयच्या जाग प्रकाशनान नागरी लिपयेंत प्रसिद्ध केल्लो. कविवर्य डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हाणी ताका प्रस्तावना बरयिल्ली. संग्रहांत ५१ कवितांचो आस्पाव आसलो. १९८९ वर्सा ह्या संग्रहाक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्लो. आतां उजवाडा आयिल्ल्या कन्नड लिपयेंतल्य ह्या संग्रहांत कांय नव्या कवितांचो आस्पाव केला. डॉ. विली डिसिल्वा हाणी प्रस्तावना बरयल्या. संग्रहांतल्यो कविता कवीच्या बरें मागत्यांनी पुरस्कृत केल्यात. उजवाडावपी : प्रगती प्रकाशन, मंगळूर, पानां : ९२+१४, मोल : २० रुपया

**बोवळां** **फ्रेडकुमार कुच्चीकाडु**

मंगळूरांतलो नवोदित कोंकणी कवी बाब फ्रेडकुमार कुच्चीकाडु हांगेलो हो कविता संग्रह खासा ताणीच कन्नड लिपयेंत उजवाडायला. संग्रहांत वट्ट पन्नास कवितांचो आस्पाव केला, तातूंत कांय ल्हान कविताय आसा. संग्रहाक नामनेचे कोंकणी कवी चा. फ्रा. दिकॉश्ता हाणी प्रस्तावना बरयल्या. मेल्वीन रोड्रीग्ज हाणी पुस्तकाचें संपादन केलां. मुखपृष्ठा वयलें सोबीत चित्र जगदीश अम्मुन्जे हाणीं काडलां. दर एक कविता, कवीच्या बरें मागत्यांनी पुरस्कृत केल्या. कविता खाला पुरस्कार्त्यांचें नांव छापलां. त्या भायर शेवटाक कांय जायरातींचोय आस्पाव केला. उजवाडावपी : प्रकृती प्रीत प्रकाशन, केंबार पाडी, मंगळूर - ५७५००७, पानां : ६५ + १४, मोल १५ रुपया

## दिपावली शुभचिंतन.

अज्ञान, दारिद्र्य, विषमता यांचे तिमीर नष्ट करून सुखसमृद्धीची चाहूल घेऊन येणाऱ्या दीपोत्सवाच्या तमाम लोकांना हार्दिक शुभेच्छा.

गोव्यात पुरोगामी आघाडी सरकारच्या रुपाने कामकरी, कष्टकरी, शेतकरी, दीन दलित, मागासवर्गीय यांच्या जीवनात यंदाची दिवाळी नवा प्रकाश घेऊन येत आहे.

--- शेतकरी व मुंडकार यांचे शोषण थोपवून प्रत्यक्ष कसणाऱ्यांना शेतांची व मुंडकारांना राहत्या घरांची मालकी.

--- निराधार वृद्धांना आधार देणारी दयानंद निराधार मदत योजना.

--- १० हजार रुपयापर्यंतची कृषी कर्जे माफ करून शेतकऱ्यांना दिलासा.

--- मागास वर्गीय महामंडळाची स्थापना करून कित्येक मागास जाती जमातींना शैक्षणिक, व्यावसायिक व रोजगारविषयक सवलती.

--- शिक्षण, उद्योग, पर्यटन, सहकार, ग्रामीण विकास, क्रीडा आदी क्षेत्रात अनेक पुरोगामी योजना.

कृतिशिलता हे पुरोगामी लोकशाही आघाडी सरकारचे वैशिष्टच असल्याने जनसामान्याच्या जीवनात यंदाची दिवाळी आगळा आनंद घेऊन येत आहे.

**माहिती आणि प्रसिद्धी विभाग,**

**गोवा सरकारतर्फे प्रसृत**

मुखपृष्ठ छापणावळ : अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय - गोंय